# अक्षतां

कविता संग्रह



आर. एस. भास्कर

1997

(Konkani)

# AKSHATHAM

Poems by

R.S. BHASKAR

First edition - 1997



Typesetting and printing by
S.K. Enterprises, Kalabhavan Road,
Ernakulam-682 018.

Publisher
Radhamani Bhaskar
Ram Mandir
10/539 J.D. South
Amaravathi, Kochi-682 001

Pages : 44
Price : Rs. 50

Cover design
V.N. Balan

# पयली प्रशस्ती

## नेमाळीं/स्मरणिका

कोंकण जनता, कोची
ऋतु, गोंय
दिवटी, कोची
पंचकादायी, मंगळूर
सुनापरांत, गोंय
जाग, गोंय
कोंकण टायम्स, गोंय
वैश्यभारती, गोंय
लोकवेद स्मरणिका 1994, कोची
अखिल केरळ कोंकणी कलासहित्य स्मरणिका 1992
अखिल भारत लेखक संमेळन स्मरणिका 1996, कोची

## प्रस्तुती

आकाशवाणी, धारवाड
आकाशवाणी, पणजी
अखिल भारतीय कोंकणी परिशद, कोची 1986
अखिल भारतीय कोंकणी परिशद, गोंय 1990
अखिल केरळ कोंकणी कलासाहित्य संमेळन 1992
अखिल भारत कोंकणी कविसंमेळन, 'पोरोब', मंगळूर 1992
कोंकणी लोकवेद संमेळन, केरळ 1994
प्रथम विश्व कोंकणी संमेळन, मंगळूर 1995
अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेळन, कोची 1996
सर्व भाषा कवि संमेळन, दिल्ली 1997

## सदस्य

कोकणी सल्लागार समिति, साहित्य अकादेमी, दिल्ली
अखिल भारतीय कोंकणी परिशद, गोंय
केरळ कोंकणी अकादेमी, कोची

## संग्रह/संकलन

पंचायतनाची भजनमाळा, 1985
कविता ८३-८४-८५, 1986
अक्षरां, 1992
कवनां झेलो, 1992
फुलां आनी कळे, 1992
PRATEECHI DIGEST, 1992
साहित्य संकलन, 1995
नक्षत्रां, 1995
कोंकणी बालगीतां, भारतीय भाषा संस्थान मैसूर आनी राज्य शिक्षा संस्था, गोंय 1996
देश भक्ती गीतांचो संग्रह, गोंय 1997

## पुरस्कार/भोवमान

1980 अखिल केरळ वैश्य संमेळन, कोची
1993 कोरळ वैश्य समाज
1994 वैश्य वाणी समाज श्रीकृणाश्रम गुरुमठ, हळदीपूर
1994 कोंकणी भाषा प्रचार सभा, कोची
1995 स्कूळ ऑफ मातामाटिकल सयनसस, कोचीन यूणिवेर्सिटी, कोची
1995 गोकुलदास प्रभु/आर.एस. भास्कर संयुक्त अनुमोदन समिति, कोची
1995 वैश्य यूथ असोसियेषन
1995 कोचीन यूणिवेर्सिटी एमालोयीस यूणियन
1995 कोचीन यूणिवेर्सिटी एम्प्लोयीस को ओपरेटीव सोसायटी
1995 ताराबाय विष्णु म्हापशेंकार वैश्यभारती पुरस्कार
1997 वैश समाज, कोची
1997 वैश समाज पळ्ळुरुती

17-6-1986

श्री. श्री. आर. एस. भास्कर
हांकां नमस्कार

केरला कोंकणी अकादमीन काडिल्लें "कविता" हें पुस्तक वाचप मेळ्ळें. तातूंत अनुवाद आयिल्ली तुमची कविता "चूडू मोळू कोणाचेर?" म्हाका खूब मानवली. तुमकां अभिनंदन.

"कविता" हो कवितांझेलो सुंदर आसा.

तुमचो
रवि॰ पंडित

म्हज्या काव्याक सोब सारकी प्रस्तावना बरयलेल्या श्री. शरतचंद्र शेणै हांका, आनी  माका सदांच उमेद दीत आयलेल्या डो. मनोहर राय सरदेसाय, डो. एन. उण्णिकृष्णन नायर, श्री. बाबय वेरेंकार, श्री. पी.जी. कामत आनी श्री. आर. एस. चन्द्रन हांकां काळजासावन उपकार

अध्यात्म रामायण महाकाव्य सदां म्होण दीवन
म्हजें चित्त पर्जळीत केल्लो मावळो
सर्गेस्त शंभु शेटी मुरारी
हांच्या पुण्य उडगासाक

# मांडावळ

# काव्याक्षरांचीं अक्षतां!

जीवितांत एकदां आठयनासतना एक असलो दीस उदेता–सकाळीं दोळे उगडतनाच ताचें खाशेलेपण आमकां आपशींच अणभवता. रोखडींच आमी पूर्णतायेन जागेर येतात. एक नवेंचशें तरणेपण भासता. तरातराच्या फुलांचो असो सुवास! सवण्यां–सुकण्यांचो गोड आवाज! उदय–सूर्याचें मोवाळें वोत भांगराचें कशें दिसता. रूख, रुखावळ, माड, सरशी, फूल, पाकळी, अशी भोवंतणेंतलें सगलें, एक अनोखें नवेंपण घेवन, खास करून आमकांच पळयत हासून कशी रावता. आनी अवचीत–आमच्या ओंठार एका पोरन्या गीताची धुन फुलता...

श्री. भास्कर हांच्यो कविता असल्या दिसांची म्हाका अश्रेकणी भोगयतात! हांच्यो चडशो कविता असल्याच दिसानी जाल्यो जावंक जाय अशें हांव आठोवंक लागलां!

हो कवि दर खिणा जियेवपी. हांची जागृताय आठय यामांची! हांच्या काव्याची मात्शी पाणी पियेवंची आनी पळयल्यार सैम आपलीं आगळीं वेगळीं रूपां आमच्या दोळ्यां मुखार सादर करता!

'हें म्हजें गायन अखेरेचें'–अशें सुस्कारपी सवणें आमकां दिसता.

'उमाशे वेळार, चान्या बगर, गळून गळून रडपी' साळीक काळजाक हात लायता.

फूल म्हळ्यार कितें?
सवणें म्हळ्यार कितें?

आकार? तरातराचो रंग? खाशेलो वास? खाशेलो साद? हें सगलें एकठांय केल्यार पुरो व्हय?

ह्या कवीक फुलांचो सवण्यांचो आत्मो दिसता! तांच्यो खोशी, निर्शेणी, आत्मालाप ते बरे भाशेन समजतात. रांदनींतलें जळपी लांकूड लेगीत तांचे वळखीचें. ताचेकडे काकुळटकायेन ते म्हण्टात– 'तूं जळ, ना तर म्हजें पोट जळटलें!'

फांतोडेर, फुलाचे पात्येर एक दंवा कण–ध्यानार बशिल्या एकाद्र्या ऋषी वरि! आनी त्या दंवाकणाच्या काळजाच्या हारशांत सगलें मळब–सगली धर्तरी!

ह्या कवितांचेंय खाशेलेपण अशें. ह्यो ल्हान. आनी ल्हान म्हणूनूच विश्वाक वेंग मारपी! काव्याक्षरांचीं हीं 'अक्षतां'– उतरांचो पावस न्ह्य! उतरांचो पावस घालपाची तर ह्या कवीक संवयच ना!

नोबेल पुरस्कृत, विश्वख्यातीचे कादंबरीकार 'अर्नेस्ट हेमिंग्वे' हाणीं आपल्या 'ओल्ड मॅन अंड द जी' ह्या सुप्रसिद्ध कादंबरी विशीं म्हळें–

'ह्या पुस्तकांत एका म्हातार्याली कथा जशाची तशीच आसा. हे कथेक, जाय तर कितलींय तासां दिवंक शकतालों, पुण तीं कायंच खंयच सुचोवंक लेगीत ना! हें अशें मुद्दाम केलां, हांतूत चड तासां पळोवपाचें आनी हाका नवे आयाम दिवपाचें स्वातंत्र्य वाचप्याकूच दितां!'

खरो कलाकार तो असो!

हे नदरेनय श्री. भास्कर हंगेल्यो कविता आमी नियाळूंयेतात. 'काळें कूप' वाचतना कळता–आपल्या काळजांतलें सगल्याचें सगलेंय ते सांगनात. आत्माविष्काराचो हो एक कलात्मक प्रकार! बरयल्या उतरांच्या भितरूच रावल्यारय हांच्या कवितांचें रसास्वादन बरे भाशेन शक्य आसा. आनी मागीर, आपली चिंता आनी कल्पना त्या उतरांच्या भायर पसरावंक आशिल्लो हक्क वाचप्याखातीर सांबाळून दवरलोय आसा!

हो कवि जितलो पक्वमती तितलोच पक्वभाषीय. थंड दिमागीची एक बरी परिपक्वताय हांच्या कवितानी दिसता. मनीस जिणेच्या मळबार दाटून आयिल्या 'काळ्या काळ्या कूपांचो' परामर्श करीत आसतनाय, एका बर्या भविश्याची अचल अपेक्षा, भांगरा देग कशी हांच्या कवितानी लिकलिकता.

'भितोल्लें तुफान' केद्देंय गाजूं, ह्या लिखणेवेल्यान जोगलांचे शिवाय गडगड फुटचेनात! तश्या जोगलांचीं आज 'अक्षतां' जाल्यांत! काल 'नक्षत्रां' जावन आमचें मनमळब परजळायल्लें तें हाणींच! पयर आमी काळजार कोरांतून घेतिल्लीं परजळीत 'अक्षरां', तींय बी हींच!

जोगलानी तेज आसता ते भाशेन श्री. भास्कर हांच्या उतरानीय आसता. पुण गडगडाचो गोंदळ ना. शांत! आनी तींच शांत उतरां एकदां वाचप्याक अशांत करपी जातात. कित्या तर, ही शांतताय भिजूडपणाची न्हय. ही आसा निर्भीकपणाची.

शांत उतरां क्रांती घडोवंक शकतात-ती क्रांती आसा मनांची, विचारांची, अंत:परिवर्तनाची, श्री. भास्कर हांचीं उतरां असलीं.वाचप्याक काळखांतल्यान उजवाडाकडेन व्हरचीं. अक्षतांचें हें सत! अक्षतांची हीच शक्त!

रोखडींच क्रांती घडिल्ली पळोवंक जाय अशी कवीक ताकतीक ना. पुण एक ना एक दिसा एक समूल परिवर्तन घडटलें हांतूत तांकां दुबावूय ना.

'भायर सरलेलीं उतरां' एकदां परतून येतात- 'उदयावेळार न्हिदूंक सोदतल्यांकडे' साकून-जांच्या 'कानांत शिशें भल्लां-'

तरीय कवीलें बरवोप थामचेंना! कित्या तर बरोवप हो तांचो जन्मसभाव-'म्हज्यान जाता हांव करतां!' आनी मागीर कवीक बरे भाशेन खबर आसा-

'दीग दीग वाट म्हजी
चलून केन्ना सोंपची न्हय-'

संग्रहांत दोग म्हान मनशांचो परामर्श आयला. पयसुल्या नायजीरिया राज्याचो 'सारो वीवा' आनी केरळांतलो 'नाराणत्त'. आपल्या भाव भयण्यांचें बरें येवजिल्या 'गुन्यांवाचे' खातीर ख्यास्त भोगिल्ले, त्रास सोंशिल्ले अशे हे मनीश. वाचप्याच्या आत्म्याचे पण्टेंत आपलें आत्मतेज इल्लें ओतूनूच ते वतात!

'अहो बळवंत उतरांनो
तुमी येयात म्हज्या वांगडा!'

कवीचो सोद बळवंत उतरांचो. बळवंत मनशांचो न्हय कित्या? बळवंत मनीश कितें करतात हें ताणीं बरेंच पळयलां! हिंसेंत बुडून ते 'दुष्टबळ हाताळटात'- आवय भुंयेक लेगीत घुस्मट दिवपा सारकीं! हें सगलें आज ना फाल्या थामतलें-थामूकच जाय, अशें कवीचें मत आनी अभिलाषा. फकत बळवंत उतरांकच ते सारकी शक्त आसा अशें ताणीं समजून काडला. म्हणूनूच कवि तांकां आपयता. येवकारता.

'मा निषादा'-

हिंसा पळयत अवचीत जागेर आयिल्या एकल्यान उतरांचें रामायण केलें, हाचो उगडास आसचो!

समूल परिवर्तनाचें उजळ सपन हांच्या वेगळ्या कवितानीय दिसता.

'युगपरिवर्तनाच्या यात्राक' उलो मारीत ते म्हण्टात-

'अखेर तूं

आगळ्या वेगळ्या जाग्यार पांवतलो

थांगा नाळयेचो घुडघुडो पांवचोना

थांगा रक्ताचो व्हाळ व्हांवचोना

सपन तुजें

रुप्या वाटले भाशेन मळबार सोबतलें'-

हे लिखणेचे फाटल्यान एक अशें कविमन पळोवंक मेळटा, जें आसा सत्य नियाळपी, सपनां चितारपी आनी उतरांचें ऊर्ज वळखुपी! रसिकूय तें पळोवंक शकतलो हांतूत म्हाका मात लेगीत दुबाव ना.

अखब्या संवसाराचें बरें आंवडेवन, काव्याक्षरांचीं 'अक्षतां' शिवरपी कवि, श्री. भास्कर हांकां उकत्या मनान परबीं दितां!

उजळ विचारांचो उजवाड पसरायत ही लिखणी सदैव चलत रावूं-

**शरतचंद्र शेणै**

# युगपरिवर्तनाचो यात्री

१

युगपरिवर्तनाच्या यात्र्या
तूं चल
तूं चल -
तर धुवन चोवनाका
चलून आयलेली वाट
उल्लो मारीत रावतली
एक वेळा
तूं प्रलोभित जातलो
फुडारा विशीं
घुस्पागोंदळ पावतलो
तूं चल
पुण घुवन चोवनाका

२

युगपरिवर्तनाच्या यात्र्या

तूं चल

चलतना तूं

पावलांक जोतें लाय

गिमाळ्यांत-

रस्तो तापून पिकून पडटलो

नागड्या उगड्या पावलांक तुज्या

त्रास भोगतलो

म्हणून

तुजी स्फूर्ति सोंपतली

तूं चल

पावलांक जोतें लाय

३

युगपरिवर्तनाच्या यात्र्या
तूं चल
भायर सरतना
पांगरूण तुजें विसरूनयें
हेमंत येतना
थंडी हाडटलो
असह्य शींय
सूय जशी आंगाक तोपतली
शिरंतरां तुजीं
थंड जातलीं
आनी
उमेद शेळेतली
तूं चल
पांगरूण पुण विसरूंनाका.

४

युगपरिवर्तनाच्या यात्र्या

तूं चल

सारंगी तुजी

हातांत आसो

हिंडत हिंडत

तूं कांय रानवाटेर  पांवतलो

रात जाता तेन्ना

चोयवशीं काळोख भरतलो

कोल्लो फुयेल मारतलो

भूतां-प्रेतांचो आक्रोश जातलो

तेन्ना तूं

सारंगी वाज

सारंगीचो मंजुळ सूर

तुजें भय जिकतलो

तूं चल

हातांत सारंगी धे.

५

युगपरिवर्तनाच्या यात्र्या

तूं चल

अखेर तूं

आगळ्या वेगळ्या जाग्यार पांवतलो

थांगा नाळयेचो घुडघुडो पांवचोना

थांगा रक्ताचो व्हाळ व्हावंचोना

सपन तुजें

रुप्या वाटले भाशेन मळबार सोबतलें

तूं चल

युगपरिवर्तनाच्या यात्र्या.



# धर्तरेचें कवीत

धर्तरेचीं सपनां
फांतोडेची ओंवळा
एक एक गळून पडून
धर्तरेकच पांगूरतात.

धर्तरेचीं दुखां
कूपां जावन मळबार पसरतात
एक एक सकल पडून
धर्तरेकच भिजयतात.

धर्तरेकडेचो मोग म्हजो
उतरांतल्यान प्रकटायतां
धर्तरेविशींचें कवीत म्हजें
धर्तरेकच ओंपलां.



# नाराणत्त

सकलचो फातोर
धुंगळनु धुंगळनु
पर्वताच्या
उंचार व्हेलो.
परतून मागीर
धुंगळनु सोळ्ळो.
घुवनु घुवनु
फातोर उगी सकल पावंता.
ताळियो मारन
तूं हासून नाचता.

सदांच तुवें
अशीच दाखयलें.
सकाळ लागून दनपार पर्यंत
आवर्तनां जायतीं जालीं.
देखतल्यांक पुण
कांय समजलेना
पिशेपण म्हूण
लोक हासलो.
आनी तुका
सांकळेंत घालो.

उणेंच काळानी
तुज्या मृत्यूचा उपरांत
संदेश तुजो
सगटांक समजलो.

आरोहण
कठीन आसा
अवरोहण तरी
उगी पावंता.
अध्वानपणान
जोडून घेताय
उणेच घडियांनी
पिसडून दिताय.

तेन्ना तुका
देंवमनीस केलो.
तुका सांकळेंत बांदिल्या रुका मुखार
वात जळ्ळी.
तूं चडलेल्या पर्वताचेर
सगट चडून आंगवण पावंताय.
देखून आयज
म्हाकाय दिसता -
पिशें आशिल्लें
तुका न्हय
पुण पिशें आशिल्लें
तुका बान्दिल्ले सांकळेकच.



1997 वर्साच्या प्रजासत्ताक दिसाच्या सुवाळ्या निमतान आकाशवाणी दिल्ली कोन्द्रान घडयल्या "सर्वभाषा कविसंमेळनांत" सादर केल्ली कविता

## तुजी फुल्ली

काळजांत आंकुरलो
मोग म्हजो
मनां सावन
फुल्लो.

नक्षत्रफुलां
उबलेलीं
मळब भरून
तितलींय वितरायलीं.

कांय एक
सकल पडलेलें
व्हय गो बाये
तूवें नांकार तोपलां?



# भांगरा तडी

जीणेची
ही
रेवेंतडी
रंगरंगी फुल्लांतडी.

खूबशी आवडलेली
म्हजी
खीणाची रे
भांगरा तडी.



## मा निषादा

अहो
बळवंत उतरांनो
येयात-
तुमी म्हज्या वांगडा रावात.
हो भूगोळ अशींच
हांव हालोवपाक सोदतां
जे हांगा हिंसा वावुरतात
सगट भियेवन थांबूक जाय.
जे हांगा दुष्टबळ हाताळटात
सगट निकळून पडूंक जाय.
देखून हांव
भायर सरतां
म्हज्या वांगडा
तुमी येयात-
अहो
बळवंत उतरांनो.

घोर रानांत
वाळते माल्ल्यांत
इतलो वेळ
जपून बसलों-
राम राम
म्हणून बसलों-
कोणे तरी
माल्लें कोसळायलें
आनी म्हाका
उस्वास भोगला
हांव आतां

भायर सरतां
म्हज्या वांगडा
तुमी येयात-
अहो
बळवंत उतरांनो.

सुरवेकच पळयलें
पाप सवणें
बाण तोपून
सकल पडलें-
रगत व्हावंत
तळमळेवन मेलें.
मागीर कितलिशीच
जाता हिंसा-
'सारो वीवा'
सुळार लांबलो
गळो चिरडून
पेडपेडेवन मेलो.

जे हांगा हिंसा वावुरतात
सगट भियेवन थांबूक जाय
जे हांगा दुष्टबळ हाताळटात
सगट निकळून पडूंक जाय.
देखून हांव
भायर सरतां-
म्हज्या वांगडा
तुमी येयात-
अहो
बळवंत उतरांनो.



## फुला तूं फुल्लून राव

फुला
तूं फुल्लून राव
तुझे वेळ
हांसून राव.

फूल म्हणीत
फुल्लून रावलें
थोड्या वेळाक
हांसून रावलें.

पूण म्हजें
फुल्लून रावलें
सदा काळ
हांसून रावलें



# कोगुळा गो

तुजो सूर
आपण्यान आपणायलो
तुजेच वरी
गायलो हांव.

तुज्या वांगडा उडूंक गो
मात हांव चुकलों-
केन्ना केन्ना भायर सरलों
निकतोच घडघडेलों
आनी-
जमीनीरूच पडलों.



# अखेरेचें गायन

हें म्हजें गायन
अखेरेचें!
सुस्कार सोडून
म्हण्टालें सवणें-
आनी वसंताक येवकारूक
कोण आसतलो
कोण जाणा.

दुश्शकुन उलोवंनयें गो पापणी
दुश्शकुन उलोवंनयें-
पोरूं तूं अशीच म्हण्टाली
अंदूं तूं पावली काय ना?
कितलेशे पावट आयलो रुतू
कितलेशे पावट हांव फुलून रावलों!
जे मनांत उल्ला आग्रो
लांब लांब गो उरता आयू.



## सपन कळो

रातीन वावुरल्लो
सपन कळो
सकाळ पारार मेकळो
सूर्य जावन फुल्ला.

भितरले भितर
उल्लें म्हजें सपन
साक्षात जालें
सूर्या भशेनूच.



## साळीक

चन्द्रमाचो
वळवळेवनु उम्मो
साळीक शेळेंत रावलें.

उमाशे वेळार
चान्या बगर
गळून गळून रडलें.

रात सोंपता सोंपता म्हणून
पिशें बावडें
तळ्यांत बुडून मेलें.



# बावली

काणियेंतली बावली
राजकुंवरी जाली
राजकुंवर येतलो म्हणून
वाट पळेत रावली.

राजकुंवर रोकडोच झुजारी
झुजून सगट जिकलो
राजकुंवरेक आपणायली.
तरीय मोग भुल्लो.

राजकुंवरी जाली बावली
परतून काणियेंतूच गेली.



## उदया वेळार

उदयावेळार
निदूंक सोदतल्यानो-
तुमी अशी
करूनयें
निदल्यार पुण
खूब नुकसान जातलो
प्रपंचाची प्रचंडताय
पळोवंक तुमकां शकचिना.

भूतकाळाचेर
नदर मारीत
उर्फाट्यानी
मुखार सरतल्यानो-
तुमी केन्ना
लक्ष्याकडे पांवचेनात
मुखावेले चमत्कार
नदरेंत तुमचे दिसचेनात.

सिर्पुटाचेर
काजोळेक दवरून
आग भगभगोवपाक
सोदतल्यानो
कितले खेपे तुमी बेवकूफ जाले
तितलीय पावट हांवें म्हणून दिलां
भायर सरलेलीं
उतरां म्हजीं
कानाक लागून तुमच्या-
परत आयल्यांत
तुमी सदां
आयकूंक चुकल्यात
तुमच्या कानांत
शिशें भल्लां !



# सकाळ

सदां सदां
आंगणांत पावंता
भव्यपणान
हासून दाखयता
आयचो  दीस
कालच्याच वरी
हात सोडून वतलो म्हूण
जाणकारी दिता.



# दीग दीग वाट

दीग दीग
वाट म्हजी
चलून केन्ना
सोंपची न्हय.

ल्हान ल्हान
आशा म्हजी
भोगून पुण
पावंची न्हय.



# पुता तुका

हांवें तुका
मोग दिल्लो
परत तूवें
मोग दिल्लो.

हांव तुका
काळीज दितां-
यादीच्या बागेंत
रोयतलो म्होण
दिसान दीस
शिंपण करतलो म्होण
झाडार फूल
फुलयतलो म्होण
हांव तुका
काळीज दितां.



# राकडा तूं जळ

राकडा
तूं जळ
आनी
म्हजी पेज सिजय
तूं लास
आनी म्हजी भूक लास.

राकडा
तूं जळ
तूं  स्वय जळ
ना तर
म्हजें पोट जळतलें
आनी म्हाकाच भाजून काडटलें.

राकडा
तूं स्वय लासता
मागीर कितेंच लासता
तुज्यान जाता तूं करता
हांव पुण बरयतां
म्हज्यान जाता हांव करतां.

राकडा
तूं स्वय लास
मागीर कितेंच लास
म्हाका पुण जिवोच सोड
तुज्यान जाता तूं कर
म्हज्यान जाता हांव करतां



# थिंमेकाल

देवार्यांतलें सोबित चित्र
अयोध्येच्या रायाले राज्याभिषेकाचें
फूल माळता ज्योत पेटेयता
भव्यपणान वावुरता आज्जी नित्य.

निळोच रंग देहाक रायाल्या
हळदुवें न्हेसवण, नवरत्नांचें किरीट
देहभर सिंगरावन दाव्यान बसल्या
बायल हसमुखी मिथिलेचें रत्न.

धनुस व्हावन उजवेकडे रावला
भाव सौमित्र सदां जागृत
माकशीं रावतात भाव दोग
पावलांकडे आसा मित्र रायालो.

सोबित रंग उजळ भाव
चित्र पळेल्यार आंकुरता प्रीत
फूल माळता ज्योत पेटेयता
भव्यपणान वावुरता आज्जी नित्य.

एक दीस आज्जेचे लक्षांत येता
घोंटेर सुकण्याचो माकशीं चित्राच्या
कातो आनी कापूस एकठांय करून
घर बांदून रावतात गुरबज्यो.

''सत्यानास पावतात सवणी
घेता जीर्णपण चित्र देवालो''
कोपान तापून म्हण्टा आज्जी
घोंटिर काडून वार्यार उडयता.

न्हावन आज्जी पुसता चित्र
फूल दवरता दिवली पेटेयता
सवण्यांच्या वंशकुळाक स्नापिता आज्जी
रांदपा खातीर वासरेंत शेणटा.

तिनसांजे वेळार वात लायतना
पळेता आज्जी घोंटिर दुसरीय
कातो आनी कापूस एकडे करून
घर बांदून रावतात गुरबज्यो.

''थिंमेकाल राया मागता क्षमा
तूंच आठयता सगट चलयता''
दुख गळगळेत म्हण्टा आज्जी
देवाच्या मुखार साष्टांग पडटा



## काळें कूप

निळ्या मळबार आज
दिसता काळें कूप
नितळ मळबार
पोजडें कूप.

एक कूप
दोन कूपां
कूपाच्या फाटीं आडळून कूप
भूतांचीं घेतात आकार.

एक भूत
दोन भूतां
भूताच्या फाटीं आनी भूतां
मळब भरून दिसतात भूतां.

निळें मळब ना जालां
नितळ मळब ना जालां
पुराय मळब आपणायलां आतां
काळ्या काळ्या भूतांनी.



## अक्षतां

तुवें माका
सूर दिला -
मोगाळ गीत
गावपाक म्हूण.

तूवें माका
सूर दिला -
पोकळ मनाक
सुंदर सोबीत विचार दिला -
दळिद्रो माका
तेंक दिला.
उपकार तुजो गावूंक पुण
केन्ना माका विसराय पडल्या.

फाल्या जावो परां जावो
येवजून इतलेय काळ गेले
रात लागेन दीस करून
नवें नवें गायले ताल
सांगपाक हावें जाय अशिल्लें
आज मेरेन सांगलेंना.

झोळी बोंथर जावंचे फूडे
एक एक अक्षर श्रेणचे फूडे
ह्या भिकार्याल्या अक्षरांचीं
उडयतां हीं अक्षतां -





After AKSHARAM in 1992 and NAKSHATRAM in 1995, this is the third Significant volume of poetry by Sri. R.S. Bhaskar. AKSHARAM received the Konkani Bhasha Prachar Sabha Sahitya Puraskar and is already out of print! NAKSHATRAM touched National appreciation with a composition from it being selected by All India Radio-New Delhi in its National Symposium of poets 1997, in connection with the Republic Day Celebrations wherein Sri. Bhaskar represented Konkani in New Delhi, the capital city of India. A member of the Konkani Advisory Board of Sahitya Akademi, of the Executive Committee of the All India Konkani Parishad, and of the Executive Committee of the Kerala Konkani Academy, Sri. Bhaskar is well known for his contribution to the development of Konkani literature. His poetry has appeared in many magazines and poetry collections. He has represented Kerala at many All India level poet-meets. All India Radio-Dharwad and Panaji have broadcast his recitals. He has received laurels from literateurs of Kerala, Karnataka and Goa. He is the recipient of the 1st Tharabai Vishnu Mhapxencar Vaishya Bharathi Puraskar in 1996.

Reviewing AKSHARAM, Sri. P.G. Kamath had commented that the poems of Sri. Bhaskar were a pleasure to the mind. Reviewing NAKSHATRAM, Sri. Nagesh Karmali wrote 'This poet walks with his feet firm upon the ground, his eyes roaming the earth all the while-" Sri. Pundalik Nayak described him as a very mature poet with a mature outlook on life. Dr. Manohar Rai Sardessai, in his preface to NAKSHATRAM said that this was a poet who said much with a few words, and his NAKSHATRAM were those that flashes the light of thoughts into the mind of the reader.

Sri. Bhaskar was born at Cochin in 1947 as the second son of Smt. Kalavathi and late Ramdas Shetty. He had his school and college education in Cochin itself. Presently he is employed at the Cochin University of Science and Technology. He is married to Smt. Radhamani and they have a son-Rajeev. Sri.Bhaskar resides at "Ram Mandir", 10/539, Janardhana Temple South, Amaravathi, Cochin-682 001.

## OTHER BOOKS




AKSHARAM (1992)
contains 36 poems and was the first significant volume by the author. It received the Konkani Bhasha Prachar Sabha Sahitya Puraskar in 1994. It has a preface by Sri. Pundalik Nayak. It is published by Kerala Konkani Academy, Cochin. It has 62 pages and is priced at Rs. 20/-

NAKSHATRAM (1995)
contains further 36 poems and was released at the First Viswa Konkani Sammelan Mangalore 1995. A composition from this volume was selected by All India Radio-New Delhi for the National Symposium of Poets 1997 and broadcast by all stations in all languages. It has a preface by Dr. Manohar Rai Sardessai. It is published by Kerala Konkani Academy Cochin. It has 82 pages and is priced at Rs. 40/-



## THARABAI VISHNU MHAPXENCAR VAISHYA BHARATI PURASKAR 1996

Subsequent to the publication of NAKSHATRAM, Sri. R.S. Bhaskar was honoured at Goa, and conferred with the 1st Tharabai Vishnu Mhapxencar Vaishya Bharathi Puraskar. The award citation reads thus-

## ताराबाय विष्णु म्हापशेंकार वैश्य भारती पुरस्कार

### श्री. आर. एस. भास्कर

हांणी कोंकणी कवितेच्या माध्यमांतल्यान भारतीय साहित्यांत मोलादीक भर घाल्या. कवितेच्या मळार केल्ल्या प्रयोगांतल्यान तांची खाशेली शैली जल्माक आयल्या आनी ताचे कवितेंत मानवी मुल्यांविशींची आस्था पडबिंबीत जाल्या. मनशाच्या गुणां-अवगुणांच्या सुक्षीम निरिक्षणांतल्यान जल्माक आयिल्ली तांची कविता कल्याणकारी तत्वांचो आनी उजू मुल्यांचो पुरस्कार करता. हे मोलादीक साहित्य सेवेच्या भौमानाक तांकां अंदूंचो ताराबाय विष्णु म्हापशेंकार वैश्य भारती पुरस्कार मायेमोगान भेटयला.

**वैश्य भारती**
**आखिल गोमंतक वैश्य परिशद**
म्हापशें: गोंय: २८ जानेवारी १९९६

## TARABAI VISHNU MHAPXENCAR VAISHYA BHARATI PURASKAR

### Shri R.S. BHASKAR

*has enriched Indian literature through his valuable contribution to poetry in Konkani language. His experiments in giving expression to his intense thoughts and felings have created a distinct style in Konkani poetry. His keen observation of human endeavour and emphasis on human values are reflected in his expression which glorifies all that is good and noble. The Tarabai Vishnu Mhapxencar Vaishya Bharati Puraskar is being presented to him for his meritorious service to literature.*

**VAISHYA BHARATI**
**AKHIL GOMANTAK VAISHYA PARISHAD**
**MAPUSA : GOA : 28TH JANUARY, 1996**

## KONKANI BHASHA PRACHAR SABHA

KONKANI BHASHA BHAVAN: COCHIN-682 002

(REGISTERED UNDER THE TRAVANCORE - COCHIN LITERARY,
SCIENTIFIC & CHARITABLE SOCIETIES' REGN. ACT XII OF 1955)
S. No. ER 32 OF 1966

(A LITERARY INSTITUTION IN KONKANI RECOGNISED BY SAHITYA ACADEMY, NEW DELHI)

*Present this Anantha Govinda Kini Sahitya Puraskar*
*as token of its warm tribute to*
Sri. R.S. BHASKAR OF COCHIN- 1
*in deep appreciation of his distinguished work and achievement*
*in enriching Konkani Literature through his*
*Collection of Poems*
**"AKSHARAM"**

*Given this the Tenth day of December Nineteen Hundred and Ninety four*

| | | |
|---|---|---|
| Director<br>Sahitya Vibhag<br>Konkani Bhasha Prachar Sabha | President<br>Konkani Bhasha Prachar Sabha | Chairman<br>Awards Committee |

Muddy waters appear to be deep. Obscure poetry also appears to be profound. R.S. Bhaskaran's poetry is both transparent and deep. It is clear and simple without ever ceasing to be colourful. Though he is faithful to his Kerala form of Konkani, he is understood by all the Konkani speakers. Bhaskaran has original ideas and expresses them in an original way. What is to be noted and admired is that though he has a rich vocabulary he does not let himself be caught in the web of words. His verses are to be read, enjoyed and to be meditated upon.

ManoharRai SarDessai